श्री. र. वि. पंडित हांच्या 'म्हजें अुतर गावड्याचें' ह्या कविता-संग्रहा संबंदान बरयतना नामनेचे कवि डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, एम्. ए., डी. लिट् (पारिस) म्हणटात :

"गावड्यांच्या संगतींत
जो जियेला,
गावड्यांचीं सुखांदुखां जाणें
आपलींशीं केल्यांत,
गावड्यांची भास
जो सहजतायेन अुलयता
आनी गावड्याचो भेस जरी नासलो
तरी ताजो हावेस
जाच्या रगतांत सळसळटा
अशा मनशान गायिलें हें गीत.
भिरांत नासतना,
लजभीड धरी नासतना,
हड्डू फुडें काडून 'हांव गावडो'
अशें म्हणपी
हो पयलोच कवी.
गावड्यावरी
हें अुतर अुगडें नागडें
ताका मातयेचो वास येता,
ताका मिठाची खारसाण आसा.
कामाची घामसाण आसा,
रगताची तामसाण आसा,
ओताची हूनसाण आसा,
जिणेची तिकतिकसाण आसा.

(तिसऱ्या कव्हरार पळेयात)

**मोल चार रुपया**

## र. वि. पंडित हांचीं हेर पुस्तकां

Gandhiji ······ 1945

National Leaders 1946

म्हजें अुतर गावड्याचें १९६३

अुरतलें तें रूप धरतलें १९६३

धर्तरेचें कवन ···· १९६३

# आयलें तशें गायलें

र. वि. पंडित बी. ए.



पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय
मोल चार रुपया



# मांडावळ



The Lion of the spirit
cried, 'Destroy-destroy
The old and wrinkled
Darkness'

*

# घोलार बडी

१९४६ च्या १८ जुनाक आमचे जिणेच्या घोलार बडी बसली आनी आमच्यांतले जायते जाण कुदूंक लागले. तें अेक युगात्म्याचें वारें आशिल्लें. संसार हुब्रोवणारें पुण प्राण तारणारें. हें ज्या तरुणांक झोमलें तांतलेच एक र. वि. पंडित. त्या वाऱ्याक लागून तांच्या प्राणांत जी क्रांत जाली तिजीच कालान्तरान कविता जावन आज ती लोकां मुखार येता. तिजी रसिकांक वळख करून दितना म्हाका विशेष संतोष आनी अभिमान दिसता आनी ताका तशेंच कारण आसा. अेका तपा पयलीं हांव म्हणून गेल्लों,

> सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले
> अंदल्यात मंत्र जिवीं ते फाल्यां अुलयतले.

ते आमगेले अंदल्ले मंत्र आतां हुस्क्यामेखळे प्रगट जावंक लागल्यात. गोंयच्या प्राणाची फांतोट जाल्लीच. आतां ताज्या जिणेचो वसंत लागसार पावला म्हणपाची गवाय हे मंत्र दीत आसात. वसंताची जाग खंय पयलीं कोगळाक येता आनी मागीर झाडांक. समाज चंवरूंक लागचे पयलीं कविचे मंत्रालाप प्रगट जावंक लागतात ते त्याच नेमान. ‘गोंया तुज्या मोगाखातीर’ ह्या मनोहरराय सरदेसायांल्या सोबीत संग्रहान येवंक सोदता त्या अुत्थानाची पयली सुल्लस दिली. र. वि. पंडितांली कविता हें ताजेंच दुसरें पावल. हांव तिजें स्वागत करतां तें हेच भावनेन. आतां थोडयाच काळांत झाडान झाड चंवरूक लागतलें. केदी संतोपाची गजाल ही !

प्रत्येक कविची अस्सल जातिवंत कविता तशी आगळी वेगळींच आसता. पुण चड करून ती परंपरेचें अनुसंधान सोडिना. चलत आयिल्लीं तंत्रां सांबाळूनच ती आपणालें स्वातंत्र्य अुक्तायता. पुण पंडितांली ही कविता परंपरा मानिना आनी तंत्र जुमानिना. मंत्राचो भार तिका आवरना. ती तोंडाक येता तें आनी येता तशें अुलयत वेता. पुण मूळ मंत्र खरो जाल्ल्यान ती आपणालें खाशेलें तंत्र निर्माण करता आनी खरेल्या रसिकाच्या प्राणाचो घांस घेता. 'आयलें तशें गायलें' होच तिगेलो बाणो. पंडितांली ही मुलखावेगळी कविता हांवें पयल्याप्रथम आयकली तेन्नां थोडो वेळ म्हाका रानांत पडिल्ल्यावरी जालें. पुण आयकतां आयकतां म्हाका तिज्या प्राणाची नाट मेळ्ळी आनी तिजेर आयिल्लें भाराचें वारें म्हाकाय आफडून गेलें. म्हजी मनोमन खातरी जाली कि ही वाणी मुळयाची. हो निर्मळ, मस्त आनी जिवस गावड्याचेर आयिल्लो भार. गोंयच्या मुळाव्या आनी थळाव्या मुळकेश्वराचो. तो फाल्यां कितें अुलयतलो ताजी ही वानी. ताजी भास आमच्या सदांच्या आयकिवांतली न्हय. तो बाबडो आमच्या साहित्यांत सारको अुलोवंकूच ना आनी जे थोडें केन्नां अुलयला जायत तें आमी काना मनार घेवंक ना. जितले बेगीं आमी ते वाणीक कांन दिवं तितलें तें अदीक बऱ्याचें जातलें. म्हणून म्हाका दिसता कि आमच्यांतल्या शाण्यासुर्त्यांनी, समाजाचो हुस्को काड्टल्यांनी, आदर्शांची फाट धरतल्या तरण्या धाकट्यांनी आनी विशाळाच्या आवाहनांनी शिरशिरपी रसिकांनी पंडितांली ही कविता बरीचशी असंवयेची आसली तरी, मन लावन वाचूंक जाय आनी अगत्यान समजून घेवंक जाय.

ही कविता वाचली तशी म्हाका वॉल्ट व्हिटमनच्या कवितेची याद जाली. चड करून ती घोग्यांनी कोंसळटा. ओज, आवेग, त्वेष, किंवाटो, तिडक, अुपहास बी गुणांनी ती अुपट्ट भरिल्ली आसा. भव्य विचाराचें तिका सुमारा भायर आकर्षण आसा. त्या विचाराचो व्याप विलास फुलोवपा खातीर ती कल्पनांचे शिंवरार शिंवर घालीत रावता. वैयक्तिक भावनेपरस समाजिक भावनेचीच तिका अदीक ओड. तिजी

न्यायाची चाड अन्यायाच्या चिडींतल्यानूच चड करून प्रगट जाता. तिजी मुख्य प्रेरणा समाजिक. म्हजे कवितेच्या चर्चेच्या संदर्भांत कवि मंगेश पाडगांवकारान म्हाका समाजिक कविते संबंदान अेक प्रस्न विचारिल्लो. तो म्हळ्यार 'समाजिक जाणविकेच्या अणभवांतल्यान स्रेष्ठ कविता निर्माण जावं येता काय कितें ?' ताजेर 'कविचो तोल मोटो आसत आनी हातांत घेतिल्ल्या विशयाचो ताणें तळ गांठिल्लो आसत-म्हळ्यार त्या विषयाच्या प्राणान खासा तोच अनुप्राणित जाल्लो आसत-जाल्यार ताजी प्रतिभा कसल्याय तरेच्या जाणविकांक समर्थ आनी अजरंवर काव्यरूप दिवंक पावता' अशी जाप हांवें दिल्ली. म्हजे ह्या म्हणणेंतलें थोडें भोव प्रत्यंतर म्हाका हे पंडितांले कवितेंत मेळ्ळें. तिका ही असली टांक येवपाचें खरेलें कारण ती समाजाच्या प्राणान अनुप्राणित जाल्या हेंच. तांतली करुणा आनी कड सैमाचे आसा. हेंच तिजें खरेलें बळगें.

चड करून ती घोग्यांनी कोसळटा अशें हांवें म्हळें. पुण जायते फावटीं ती आशयान गोठेता आनी कऱ्यांनी शिंपडटा. अशा वेळार ती सूत्रमय जाता आनी तिका सुभाषिताचें म्हळ्यार ओपारीचें अल्पाक्षरत्व आनी अणभवाचें सोबीतपण प्राप्त जाता. हे काव्यार्थाचे करे केन्ना चमत्कृतीन घिसघिसतात तर केन्ना खूब घोळयल्या अुपरांतच तांचो खरेलो सुवाद कळूंक पावता.

सामान्य वाचपी पंडितांली प्रदीर्घ कविता वाचून अुबगुंये आनी त्रुटित कविता वाचून गदळुंये. पुण ताणें थोडो धीर धल्लो जाल्यार ह्या दोनूय तरांच्या कवितेचें स्वारस्य ताका अुमजल्या बगर रावंचें ना.

पंडिताले हे कवितेचें स्वारस्य पुरतें अुमजतलें जाल्यार तांगेल्या कविमनाचो धर्म आमी समजून घेवंक जाय. तो सांगतना तांणीच अेके सुवातेर म्हळां :

**...जशें हें मेण, तशें म्हजें मन**
**म्हज्या मनाच्यान म्हौंव सांठोवं येत**
**गोड जावं नज.**

वातिच्या आधारान,
कडून अुजवाड दिवपाक
वातीक पालव दिवं येत
पुण आपुण जळून
आत्म-बलिदानाचो
आदर्श दिवं नज

आपणाल्या कविमनाची अशी शक्त आनी मेर सांगल्या अुपरांत ते म्हणटात :

कडपी, जळपीय बी
दुसऱ्या बराबर,
पुण तो आधार सुटलो वातिचो,
कि परतेंय कडचें सोडटा,
जळचें सोडटा, आनी पळेता जावंक
आसा तशेंच, गोठून घट्ट घट्ट...
अशें म्हजें मन !

आपणाल्या कविमनाचो हो सभाव जसो तांणी आडपडद्या बगर सांगला तशीच आपणाल्या व्यक्तिमनाची शोकान्तिकाय दुसरे अेके सुवातेर तितल्याच निःसंकोचपणान तांणी व्यक्त केल्या. ते म्हणटात :

म्हजें मन, जसो मिठाकण.
जिणेचे जे जे गजालींत
हांवें, खूब थोडें मन घालें
त्यो म्हजे म्हाकाच
अळगी पचपचीत लागल्यो.
जांतूत तें चड घालें
त्यो जाल्यो खार खार आगर.
ताका लागून...
जिणेक म्हजे, आयज मेरेन
सुवादूच आयलो ना.

ही शोकांतिका तांची अेकल्याचीच न्हय. तर आमची सगल्यांचीच. जे चिंतनशीलतेन ते आपलें मन न्हियाळटात तेच चिंतनशीलतेन ते भोंवतणचो संसारूय तरजितात.

देवाचो विचार आयलो तशी ताजी तांकां काकूळट दिसता. मनीस देवा खातीर हुस्केवंक फाव ताजे परस तोच मनशा खातीर चड हुस्केता आनी संवसाराच्या व्यापांत ताका खिणाची अुसरपत ना म्हणून खंती जाता अशें तांका दिसता. देवाच्या ह्या पिरंजळाचें तांणी काडिल्लें चित्र अितलें जिवें तट्टटित जालां कि तो आमकां मनशा परसूय अदीक जिवाळ्याचो दिसूंक लागला.

भाटकारालो दब्राज्याचो सत्यनारायण पळेतना कोणाचें लक्ष थंयच्या थाटामाटाचेर वेता तर कोणाचें लक्ष थंयच्या दोण्यांचेर वेता. पुण पंडितांक दिसता तो सत्यनारायणाच्या पयलीं आनी मागीर दीसरात हाड-व्हर करीत विडविडपी घरचो चेडो देमू. आयिल्ले सोयरे धायरे परतले, आयदनांत्रियदनां जागच्या जाग्यार पावलीं, सगल्याक चीं पडलें अशें जातकच देमूक तितलो दोणो पावलो ना हाजी भाटकाराक याद जाता. 'आपणाक वेळार याद कित्याक केली ना?' अशें तो देमूक विचारता तेन्ना देमू सहज म्हणून वेता, 'भाटकारा, अिच्चेय बोवाळांत माजेलें खुंयचें?' ताजी ती जाप आयकतकूच कसात्र मन पसून पाथेल्या बगर रावना. 'तुका दोन दोणे व्हर. तुजो मान पयलो मरे' ह्या भाटकाराच्या दोनूच कांवळ्या अुतरांनी रसिकाकूय माणसुकेचो दोणो मेळिल्ल्याचो आनंद जाता. भाटकार सुंडकाराच्या घराव्या संबंदांचें अितलें हृद्य चित्र म्हाका तरी साअित्यांत क्वचित् मेळ्ळां.

कोणाकूय वेळा प्रसंगाक पावपी मनशाची निसण मसण्णींत वेतना सामान्यपणान मनशाक विचार येतात ते संसाराच्या नश्वरकायेचे. जिणेच्या खिणयाळपणाचे. पुण पंडितांक आयकूंक येतात तीं ताका पावोवपी लोकांचीं माणसुके भायरीं सुकीं अुतरां! अेक बरो मनीस मेलो त्या दुःखापरस ताका पाववपी लोकांली माणसुकी मेल्या हाचेंच दुःख तांकां अदीक दुस्सह जाता. देखुनूच मनशाचो पुरुशार्थ गिरावळींक सूत

घालूंक पावलो म्हणून तांकां सुख जायना. मनशाचो विक्रम व्हड जालो तरी ताजें मन 'ल्हान जालां' म्हणून ते हुस्कारतात आनी माणसुकेच्या ज्या दुखांनी संसाराक रूच येता तीं अपरूप जायत चल्ल्यांत म्हणून ते खंती जातात. तांचे ते वृत्तीक लागून 'ज्ञानेश्वरी' दिश्टी पडटकूच तिजें गौरव गावंचे जाग्यार आयुश्यभर तिजें संशोधन करूनूय सुको सडसडीत अुरिल्लो संशोधक तांच्या दोळ्यांमुखार अुबो रावता. आपल्या सगल्यां कर्तुत्वाचो सावानशेक सांगून जाल्या अुपरान्त पंडितांनी ताका अुद्दार काडूंक लायल्यात ते पळे सारके आसात. संशोधक अखेर म्हणटा :

**ज्ञानेश्वरा, तूं गिन्यानी...**
**तूं गिन्यानाचो अीश्वर जावन गेलो**
**म्हज्या तोंडांतल्यान वेद वदोवन गेलो**
**हांव मात् रेडोच अुल्लों**

ताज्याच कित्याक ? आमच्या सगल्यांच्याच आयुश्याची परवड ही. 'अेकला चलो रे' हे कवितेंत ते वर्णन करतात तें आगगाडयेचें. पुण तिज्या प्रवासांतूय तांकां मनशाचीच गत्त दिश्टि पड्टा. ते म्हणटात :

**सगलें कितें तें स्टेशनाचेर...**
**स्टेशनाचेर**
**कोळसो, अुदक, पोटभर**
**नाका जायसर'**
**...जैताचें स्टेशन गांठी मेरेन**
**मनशाचीय तीच गत**
**फक्कत जीवघेणी कसरत...**
**'अेकला चलो रे' ची '**

मनशाची मेर मर्याद, ताजें दुबळेंपण आनी ताजें अगतिकपण हांचें पंडितांक बेस बरें भान आसा. पुण मनीस पेट्टकूच हांचेरूय जैत जोडूंक शकता अशी तांची स्रद्धा. देखुनूच 'हांव आसा थंय अुजो' अशी ललकार ते घालतात आनी सांगतात :

ज्या ज्या खिणाक
जे जे ताळयेर
घोंटेराचे पडवेंत, माळ्येर
वा रानावनांत
म्हज्या मनाचो पांचवो मोर
रमतलो गमतलो
गायतलो रडटलो—
अुडटलो, पडटलो—
नाचतलो आनी हांसतलो
ती ती ताळी, तें तें रान
तें तें गीत, ती ती तान
मेळून म्हजें घर...
म्हाका काडून अुडय
आनी म्हजें घर ?
आरे, रांदनिचे फातर
अुजो नाशिल्ल्या.

मनशांतलो हो अुजो म्हळ्यारूच अजरंवर मनीस आनी ताज्या झेलिंचें जग हेंच ताजें सास्वत घर अशी तांगेली धारणा. हो अुजो पालवलो कि मनीस चल्लो—अुलयलो तरी तें ताजें शव आनी घर हो व्यर्थ घर घर.

म्हणुनूच 'रामाची वाट पळेत' हे कवितेंत गोंयच्या मिनाच्या वैभवा संबंधांत अुलयतना ते म्हणटात :

गोंयच्या फातरांचें भांगर जावन
खंय लिपलां तें हांव नकळं
भांगरा सारक्या मनशांच्यो मात
आयज खऱ्योच
अहिल्ये भशेन फातरी जावन पडल्यात !
रामाची वाट पळेत !...

तांगेले हे सगले चिंतनशीलतेक दीसरात अेकच चिंता लागल्या ती मनशांतली माणसुकी वांचत कशी आनी ताज्यांतलो माकड सुधारत कसो ही.

माडान मनशाक पियेवंक आडसर दिलें. खावंक कातली दिली. घराक वांशे आनी कोलू दिलो, तें झाडूंक सारण दिली, काळखांत तेल–वात दिली. रांदन सांदकूंक नाल्ल्यो आनी सोण्णां दिलीं. पुण मनीस अितलो कपाळ फुटको कीं ताका भलतेंच सुचलें. तो म्हणूंक लागलो.

**खोंपीकूच अुजो लायल्यार**
**कितें जाता,**
**ते मातशें म्हाका पळोवंचें आसा**

आनी मागीर त्या कल्परुखा कडेन ताणें मागलें कितें ? तर–

**म्हाका कट्टीभर सूर दी**
**म्हज्या माकडा-हातांत**
**रसरशीत पेटिल्ली**
**अेक चूड दी...**

अशा त्या आजून माकड आशिल्ल्या मनशाच्या फुडाराच्या चिंतेन ते आकूळ पिकूळ जातात. ताणें केदेय पराक्रम केल्ले दिसले तरी ताजें तांकां खरेपण लागना. ते म्हणटात:

**'आमी तुमी भाय भाय' म्हणपी मनीस**
**तेनसिंगा फाटोफाट हिमालया भोंवतणीं**
**कसायांच्यो कातयो घेवन अुबे...**
**भावांचे गळे कातरपा खातीर !...**
**आनी तेवटेन व्हडांतल्या व्हडांच्यो**
**व्हड व्हड बडायो**
**चंद्राक गिरगिरावन अुडोवपाच्यो**

जांव आमचो, जाव चिन्यांचो वा जावं हेरां कोणाचोय, तांकां पराभव दिसता तो मनशाचो. अजून माकड अुरिल्ल्या मनशाचो. हेंच तांगेलें दुःख आनी हेच तांगेल्या जिवाचे जाळ.

मनशाचो असो शिमेहद्द मोग आशिल्ल्यानूच कश्ट करून अन्न, मीठ आनी मासळी पिकोवपी मनशांची पिळणूक आनी पिडणूक पळोवन तांगेलो राग चवताळून अुठटा आनी आयतें खायऱ्यांक ते जळजळीत अिशारो दिवंक लागतात. तांगेल्यो जळवण्यो रस्त्यार पातळावन तांकां हांशाक म्हारग करतात. ते दृष्टीन 'हांव राजा बांयगणो' ही सगळी कविता तोंडपाठ करी सारकी आसा. समर्थांच्या नाडयार गरजे भायर अुडपी आनी किरकोळांक धोंसपी असंख्य पिट्टोळांचें हें अुपहासचित्र, हे पृथ्वीर तांचें राज्य चलतासर, सदांच रसरशीत अुतरलें. ह्या गीतांत तांगेल्या जळवण्यांचें चित्र आसा तर 'पावसा यो म्हजे बराबर रडपाक', 'दोन मनां', 'हांव गावडो,' 'झिंगचे झिंगय' बी कवितांत रंजिल्ल्या-गांजिल्ल्यांचे धुस्मटमार व्यक्त जाल्यात पुण हो जो पिडिल्लो गोंयकार आसा ताज्या अस्मितायेचो अेक प्रबळ हुंकारय तातूंत आसा. तातुंतल्यानूच फाल्यांचो ओंकार अुदेवपाचो आसा असो अिशारोय ते दिवन वेतात. पंडितांलो गावडो म्हणटा :

**हांव गावडो,**
**गावडो म्हणचे कांय न्हय !**
**कुंडया समान**
**कांड कांड कांडचो**
**फांफडून उडोवंचो...**

पुण आपुणूच गोटो राखतां हें तो बेस बरें जाणां. म्हणुनूच आत्म-विस्वानान तो कांडटल्यांक जिद्दीन समज दिता :

**कितलोय कांड, कसोय कांड**
**म्हजो पिठो मात् जायना...**

पंडितांली ही कविता अशी मनशाच्या बऱ्याभल्याच्या ध्यासान भारिल्ली आसली तरी ती आध्यात्म विसरना. 'म्हजें जीवित अेक जागर' ही अेकूच कविता म्हजे म्हणणेची सहज साक्ष दीत.

**घुमटांचो घमघमाट**
**वाजोवपी म्हणटा आपलो**
**चामडें म्हणटा आपलो**
**मडकी म्हणटा आपलो**
**जागर म्हणटा आपलो...**
**खरो कोणाचो कळना**
**कोणाकूच कळना**
**जागर सोंपून सोंपना'**

हे तांगेले अध्यात्मशोधक वृत्तीक लागुनूच 'घेवंक जाणा ताका मागनासतना लेगीत मेळटलें' 'कड्डान अुजो पेटयलो काय अुज्यान करड पेटयलें?', 'पैशान मोग लेगीत मेळटा, रोगांत घोळयल्लो' असलीं सुभाषितां पदोपदीं तांगेले कवितेंत सांपडटात! तांगेलें 'तुळशिचें पान' म्हणटा:

**मोग म्हजो देवा येदो जीव जरी सान गे**
**रातदीस ध्यास घेवन परमळ्ळो प्राण...**

आनी तांगेलें मन म्हणटा:

**जंय जंय मनीसपण हांवें वांटलें**
**थंय थंय अमृताचे मळे फुल्ले...**
**हेरां कडेन म्हजे जिणेचें रेब जालें...**

ताका कारण तांगेली ही अध्यात्मप्रवण वृत्ति.

पंडितांली ही सगली कविता गोंयच्या प्रतिमांनी आनी प्रतीकांनी अुलयता. हांगच्या अुदका वाऱ्याचो स्पर्श घडयता; हांगच्या वृत्ति-प्रवृतींचीं चित्रां काडटा. पुण तिजें सगलें अनुसंधान लागलां तें माणसुकेचेर. हे कवितेन कोंकणीक अेक नवी कळा दिल्या. ओजाचो खर गुण दिला. आनी फाल्यांच्या कोंकणी काव्याक अेक नवी वाट घालून दिल्या. हें तिजें खय ल्हान सान न्हय.

येथवर हांवें तिजी ही अशी तोखणाय केल्यान ती सर्वस्वी निर्दोश आसा अशें कोणेंच समजुं नये. खासा कवीय तशें समजना. आजून पंडितांक आपणें निर्माण केल्ल्या तंत्राचेर प्रभुत्व मेळोवचेलें आसा. तें तांकां सरावान यथाकाळ येतलें. म्हाका सांगचेलें आसा तें अितलेंच कि ही कविता प्राणवती आसा आनी तिका व्हड फुडार आसा. ती दिसपाक गद्याभशेन दिसली तरी तिका काव्याचो अंतर्गत ताल आसा आनी प्राणाक ओडलावणो तोल आसा. दोन अुतरांत सांगचें जालें जाल्यार पंडितांले हें काव्य म्हळ्यार माणसुकेचें अेक तोलादिक गीत. तुमचें, म्हजें, सगल्यांचें. म्हळ्यार मनशांतल्या अमृतांशाच्या मोलाचें. मात हें पट्टलें जाल्यार पंडितांनी आपले कविते संबंदान सांगिल्लीं दोन अुतरां ध्यानांत धरूंक जाय. तीं हीं अशीं:

म्हज्या
अुतरां कडेन पळोवं नाका
तांतलो अर्थ पळे
विचित्रा कडेन पळोवं नाका
तांतलें चित्र पळे...
वाचप्या, म्हजें गीत जगावेगळें...
म्हजीं अुतरां आनी तुजें मन
म्हजो हारसो आनी तुजें रूप
वा आरते परतें
मेळून म्हजी कविता जाता...
म्हजे कवितेंतल्यान तूं खासा
आपणाकूच काडून अुडयशीत
जाल्यार म्हजे कवितेंतलें काव्य
नाच जातलें...
आनी अुरतलो तो
फक्कत कागद...भरकटायिल्लो
भिरकटायिल्लो भायर मारपाचो !

प्रेदियु रिबेलु, पणज. १८-११-६२ बा. भ. बोरकार

## आयलें तशें गायलें

म्हजे कवितेंतल्या
वळीं कडेन
पळोवं नाका
अुतरां कडेन
पळोवं नाका.
तांतलो अर्थ पळे.
विचित्रा कडेन
पळोवं नाका.
तांतलें
चित्र पळे.
चित्रकार
रिस्को ओडटा.
झरझरीत
आडव्यो अुब्यो
वांकडयो तिकडयो
तिरप्यो तिरकस
आरत्यो परत्यो
लागीं पयस
बारीक मोटयो
ल्हान व्हड.
रिस्कांत रिस्को
लागीं लागीं
पयस पयस
अेकामेकांत
घुस्पायिल्ल्यो

वा
अरळ विरळ
आनी
तशें करतना
मर्दी मर्दी
आपशींच
सुट्टा
कोरो जागो
धवो वा काळो.
कांय रिस्को
समांतर रावतात.
कांय ओडीन
तेंकूंक येतात
अेकामेकांक.
आनी
सरतात फाटीं
तितल्याच
तिरस्कारान
तोंड फिरोवन.
कांय
अेकामेकांक
घसटून
खरचटून वेतात
कांय
वेतात
सामक्योच
अेकामेकांत
घोळून मेळून

चड अुजाळो
वा
काळेपण दियत
मुळच्यांक.
कांय
छेद्तात
आनी भेद्तात
अेकामेकांक...
अेकामेकांच्या
पोटांत
रिगपा खातीर
तर
कांय वेतात
चिरून
अेकामेकांक
आरपार
कित्याक
कोण जाणां
कायमच्यो
केन्नाच
फाटीं वळून
पळे नासतना.
अश्या रिस्कांची
गर्दी
गिचमीड
चित्रांतली
सांवळी जाता.
गोबरी काळसर

काळी
तर खंय
काळी काळी कीट्ट.
खंय
धवशी धवी
अुजळ
तर खंय
धवी धवी पीठ्ठ.
कागद
कसलोय आसूं
काळो
वा धवो
काळ्यार
धव्यो रिस्को
धव्यार
काळ्यो
अितलोच फरक.
मनशाचे
जिणेचीय
तीच गजाल.
जिणेच्या
कोऱ्या कागदार
ताणें ओडिल्ल्यो
सुखांदुःखांच्यो
आसो
हावेसांच्यो
मोग
तिरस्काराच्यो

बरेंपण
कुडणाटेपणाच्यो
तरेकतरेच्या
असंख्य
आकार विकारांच्यो
मनांतल्या
अुजळ
ॐकाराच्यो
वा काजळ
काळखाच्यो रिस्को...
मेळुनूच
मनशाचे जिणेचें
चित्र जाता.
मूळ जीण
कशीय आसूं
अखेर
ह्यो रिस्कोच
जिणेक
अुजवाड दितात
काळोख
दितात
खोलाय रुंदाय
अुचाय जाडाय
सुंदरताय
दितात.
दोन दिमेंसांवांच्या
चित्राक
तीन दिमेंसांवांचो

श्रम दितात.
जल्म मरणाच्या
चित्राक
अनंताचो
विश्रम दितात.
आनी
मुख्य म्हणचे
जिणेक
तिचो अर्थ
दितात.
पुण
फक्त कागद
म्हणचे चित्र न्हय.
रिस्कोच
म्हणचे
चित्र न्हय.
रंग म्हणचे
चित्र न्हय.
रिस्कांची गिचडी
पातळसाण
बारीकसाण मोटसाण
लांबाय मोटवेंपण
सरळपण वांकडेपण
म्हणचे चित्र न्हय.
तांचें
लागीं येवप
लागीं रावप
घसटप

पोटांत रिगप
मेळून वचप
वा
अेकामेकांक
कातरप
म्हणचेय
चित्र न्हय.
फक्त सांवळी
म्हणचे चित्र न्हय.
अुजवाड
म्हणचेय
चित्र न्हय.
काळ्यांत काळें
मेळून
जाल्लें
रिस्कांच्या
घुस्पागोंदळाचें
सुटनाशिल्लें जाळें
वा
तांणी
अेकमेकां फाटीं
वा पोटांत
आरतें परतें लिपून
निर्माण केल्लें
वेगवेगळ्या
छटांचें कुवाडें
म्हणचे चित्र न्हय.
तशेंच

ह्या रिस्कांच्या
घुस्पागोंदळांतल्यान
घुसमटींतल्यान
आनी
भिरकटावपांतल्यान
वा
कुस्कुटावपांतल्यान
फुट्ट करून
तोंड भायर काडून
तोंडभर हांसपी
कागदाच्या
कोरेपणाचो
धवोफुल्ल भ्रम
म्हणचेय
चित्र न्हय.
जशें
हें सगलें मेळून
चित्र जाता
तेंच
म्हजे कवितेचें.
म्हजी कविता म्हणचे
जिणेचें चित्र.
जिणेचें
म्हज्या मित्रांच्या
शत्रुंच्या...
आनी
तांच्या चरित्रांत
घुस्पल्ल्या

खासा म्हज्या
चरित्राचें, चारित्र्याचें...चित्र.
हातूंतलीं
अुतरां
वेगळींच काडशीत...
अुतरांतलो " हांव "
आनी
म्हज्या अुतरांक
हेरांच्या
कर्तुपांक लागून
आयिल्ले
वेगवेगळे भाव
वेगळे काडशीत
अर्थाचो
अनर्थ जातलो.

वाक्यांचो
काथो काडशीत
चोथो अुरतलो.

म्हज्या अुतरांतल्यान
म्हजें मन
मनांतल्यान
म्हजी जीण
आनी
ते जिणेंतल्यान
म्हजे वयलें
म्हजे भोंवतणच्या

जगाचें रीण
काडून अडयशीत
अेकामेकांत
घुस्पटिल्लो
ह्या सगल्यांचो
घुस्पागोंदळ
सोडोवन
नितळपणान
सगलें अळंग
निखळावन
वेगवेगळें दवरशीत...
जाल्यार
म्हजे कवितेंतलें
काव्यूच
ना जातलें
आनी अुरतलो
फक्त
अुतरांचो पिठो...
वाचप्या...
म्हजें गीत
जगा वेगळें.
म्हजीं अुतरां
आनी तुजें मन
म्हजो हारसो
आनी तुजें रूप
वा
आरतें परतें
मेळून

म्हजी कविता जाता.
म्हजी चाल
तुजे सूर
म्हजें सुख
तुजें दुःख
म्हजो हावेस
तुजें चेपण
म्हजो राग
तुजो मोग
म्हज्या मनाचें पिशेल
आनी
तुजे जिणेचो रंग
वा आरतें परतें
मेळून
म्हजी कविता जाता.
हे
कवितेंतल्यान
तुजें
चित्र पळे
म्हजें रूप पळे
जीण पळे
तुजे आनी म्हजे
जिणेची
नाजुकशी
अस्रुपशी
वीण पळे.
तुज्या मनांतलो
उजवाड

आनी म्हज्या
काळोख पळे.
वा
आरतें परतें.
मात्
म्हजे कवितेंतल्यान
तूं खासा
आपणाकूच
काडून अुडयशीत
जाल्यार
म्हजे कवितेंतलें
काव्य
नाच जातलें...
आनी अुरतलो तो
फक्त कागद्...
भरकाटायिल्लो
भिरकिटायिल्लो
भायर मारपाचो !

पाळें, १-६-६२

# वचत थंय हात

पांय आसा
वचत थंय वाट

राग आसा
वचत थंय फाट

वीख आसा
वचत थंय घात

प्रीत आसा
वचत थंय हात

पार्ळें, ९-४-५९

## आपुण जावन रिगतलें

कणस
चड मान धोलयता...
ना ना म्हणून ?
भियेवं नाका.

मातृशें
ना म्हणटलें
मागीर
आपुणूच
बागवतलें.

बागवतलें आनी
घे म्हणून
घालून घेतलें
आपुणूच
कोणाच्याय तरी
व्होंटयेंत.
वांदांत घालून
नितळ
करचे पासत.

आनी मागीर ?

सप सप सप सप
सुपांत नाचतलें.

घस घस घस घस
वळेंत न्हातलें.
खत खत खत खत
बुडकुल्यांत हांसतलें.

आनी रिगतलें
सरळ
कोणाच्याय तरी
पोटांत.
आपुण जावन ! !

पाळें, ७-९-६२

## अुजवाडांत मात् तें ना

म्हजें काळीज...

दिवलेंत आसा
तेलांत आसा
वातींत आसा.

अुजवाडांत मात्
तें ना !

पाळें, ४-४-५९

## कोणाक कांय नाका

तूं कुंडो दिता
तूं म्हाका जाय.
हांव अुंडो दितां
हांव तुका जाय.

तूं कणी दिता
तूं म्हाका जाय
हांव लोणी दितां
हांव तुका जाय.

ना जाल्यार...

बांयक राट नाका
राटाक राजू नाका
राजवाक कळशी नाका
कळशेक अुदक नाका.

अुदकाक तळ नाका
तळाक ठाय नाका.
कोणाक कोण नाका
कोणाक कांय नाका.

पाळें, ८-४-५९

हांव राजा...वायंगणो

हांव पिट्टोळ
अुडणां मारपी
निस्त्याचो राजा
त्या अिट्टोल भाटकाराच्या तळ्यांत
म्हजें राज्य चलता

देवां मदीं अिंद्र
नक्षत्रां मदीं चंद्र
भुतां मदीं देंवचार

भाटकारां मदीं अिट्टोल
तसो निस्त्या मदीं हांव
पिट्टोळ
निस्त्याचो राजा
त्या ××× भाटकाराच्या तळ्यांत
म्हजें
राज्य आसा.

केंदळा मदीं
करंगूट, पानें
कुड्डयां मदीं
थोंटेच शाणे
गावड्यां मदीं...
मनीसघाणे
भाटकार शाणे...

शाणे...
आनी बुद्वंत
बुद्वंत
आनी व्हड
व्हड
आनी चड पद्वेचे.
तसो हांव
पिट्टोळ
त्या
××× भाटकाराच्या
तळ्यांत
म्हजें राज्य
चलता.

बेबक्यां मदीं
हेंवाळें व्हड
हेंवाळ्यां मदीं
दिवड
खर्वां मदीं
खर्चाणी गोड
तसो
सुंगटां मदीं
सांगटां मदीं हांव
रुचूय ना जाल्यार
खावपाक
बरो वातड
निस्त्याचो राजा
त्या

× × ×  भाटकाराच्या भाटांत
म्हजें
तळें आसा.

तळ्यांत
अुदक अडेचें
बांदाच्या
आडांगायेन आडायिल्लें
तळ्याक
निजाचो झरो ना
दर्याक वेंगांवक
मानस ना
ल्हानसो
पोडसो ना
आगराचो
अुमाळो ना.

दर्याक
भरती येता
सुकती येता
तशी
खळयेकूय
ती येता
आनी वेता

पुण
भायले भायर
पयस पयस
म्हाका
कांय लागना.

आगरांत
घोळश्यो येतात
शेंवटे येतात
आनी
वेतात
व्हड व्हड
सुवादाचे
गोड गोड.

तळ्याक
भायले खळयेची
जोड ना
त्या खातीर
शेंवळ्याक
तळ्याची
ओड ना.

तो तळ्यांत
येना
आयल्यार
थारना
थाल्ल्यार अुरना.
अुदक सावें
मिस्तुराद
पचपचीत

खार म्हळ्यार
खारसाण ना
गोड म्हळ्यार

गोडसाण ना.
मनशाच्यान
पियेवं नज
शेंवट्याच्यान
जियेवं नज
शेंवटो
तळ्यांत रिगना
तोंवेर
हांव राजा
पिट्टोळ
तळ्यांतल्या
बुरांळ्यां मदीं
खर्वां मदीं
हांव
अुडणां मारतां
त्या
××× भाटकाराच्या तळ्यांत
म्हजें राज्य
धोलता.

××× भाटकाराचें
भाट व्हड !
माडांक
सूर चड
रेंद
तीन माडांचें
कुंबळें
धा पडिंचें

येरांस
मातशें नडिचें
देखून
भाट
फोराक म्हारग.

तरीकूय
भाटकाराची
पदवी व्हड.
म्हणून
भाटाच्या नाडयार
× × × भाटकार
भाटांत
अुडणां मारता
मुणकाऱ्यांचीं
सोण्णां काडटा
पिडापीड करता
तांकां भौंच
धारेर धरता
दीस रात
किरमिता किरमिता.

आसडून पिसडून
फांपडून फांपडून
खाता खाता.

आनी हांव ?
तळ्यांतल्या

निस्त्याचो राजा
थंय...तळ्यांत
धुमशेण घालतां.

सांगटांचे
कांटे मोडटां
सुंगटांच्या नाकांत
दोरां सोडटां
खर्चांक
भेसडायतां
खर्चाण्यांक
कुसां तोपतां
खरशेयतां.

××× भाटकार
जसो
गावड्यांचो राजा
गोव्हेर्नादोर
आनी प्रिजेंत !
तसो हांव
पिट्टोळ
निस्त्याचो राजा...

त्या
××× भाटकाराच्या तळ्यांत
बांदाच्या आडांगायेन
आडायिलें...
साव्या उदकाचें

म्हजें राज्य...
वायंगणें शेत
रोंपच्या तेंपार
कांय दीस
चलता...
धोलता...
आनी निमाणें
व्हांवता !

हांव पिट्टोल
निस्त्याचो राजा
त्या
भिट्टोल भाटकाराच्या
तळ्यांत
म्हजें
राज्य चलता.

पाळें, ६-६-६२

## त्यो अपुर्बायेच्यो बायलो

"रागार गे फुगार"
जाली कि
घोवान दिल्ली
अिल्लीशी
कातली खावन...

रांदनी कडेन बसून
फूस करून
हांसपी
अपुर्बायेच्या
बायलांच्यो
गजाली...

भुरगेपणांत
खूब फावटीं
आयकल्ल्यो.

तशे तरेच्यो बायलो
अं हं...

कातल्यो (!)
खंय मेळटात काय!!

वेंगुर्लें, २४-८-६२

## म्हजें जीवित...अेक जागर

म्हजें जीवित
अेक जागर.
जागर
तुमी पळेला ?
नासो दिसता.
ना जाल्यार
तुमकां
कळटलें आसलें.
नाटक आनी जागर
दोन गजाली.
नाटकांत
सगल्या सवंगांची
अेक काणी.
जागरांत
अेक सवंग
अेक काणी
दुसरें सवंग
दुसरी काणी
सवंगा कणकणी
अेक अेक काणी...
रात राणी
पेज पाणी
आयची काणी
फाल्यां ना
फायची काणी

आयज ना.
तशें म्हजें जीवित...
हातूंत
सवंगां कितलीं ?
कोण रे जाणा !
पैरचीं सवंगां
नाच जालीं
कालचीं
पयस गेलीं
फाल्यां
दुसरीं येतलीं.
अेकदां आयिल्लीं
परतीं येनात
अेकदां गेलीं
फाटीं पळेनात
आयिल्लीं
सट् करून वचनात
गेलीं
केन्नाच येनात.
असो हो जागर
तशें म्हजें जीवित.
कितलीं सवंगां
आयल्यांत गेल्यांत
कोणाक कितें
दाद आसा !
बेठीं आयल्यांत
बेठीं गेल्यांत
कोणाक कितें

याद आसा !
कांय
मांडार आयल्यांत
नाचूंक नात
अुलोवंक नात
बोलूंक नात
हालूंक नात
घोलूंक नात
पळोवंक नात
देखूंक नात
सांगूंक नात
सवरूंक नात
करूंक नात
विचारूंक नात.
हातांत हात
दिवंक नात
खांदार हात
घालूंक नात.
म्हाका वेंगेंत
धरूंक ना
मोगान कांय
अुलोवंक ना
कसलोच आधार
दिवंक ना.
भिरटागतीन
पळोवंक ना.
रागार मात्
जाल्यांत

फुग्गार मात्

जाल्यांत

कित्या खातीर सुचोवंक ना

सांगूंक ना

कळोवंक ना...

बेठीं आयल्यांत

बेठीं गेल्यांत...

कांय जाणांनी

घे म्हणून

म्हाका कांय

दिवंक ना

हांवें दिल्लें

घेवंक ना.

रागान आयल्यांत

रागान गेल्यांत

मोगान आयल्यांत

रागान गेल्यांत

हांसत आयल्यांत

रडोवन गेल्यांत

विश्वासान आयल्यांत

घात करून गेल्यांत

आनी

कांय सवंगां

पळेल्यार

दिसनात

हांव आसन थंय

तीं आसात.

दडी मारून

रावतात
लिपून लिपून
वावुरतात
काळखांत
गावतात.
अेकलो
अेकसुरो पळोवन
चप्प करून
चांवतात.
सुळे तोपूंक
धांवतात.
मासाचे
कुडके तोडटात
काळजाक
भाले मारून
रगताचीं
कोंडां व्हांवयतात.
दुस्वासान
अुलयतात
दुखयतात
दुखयतात
रगत सामकें
आटयतात
आटयतात.
मनां लेगीत
सुकयतात.
दिस्टी
पडनासतना

कोणाक
कळनासतना
गुपचूप.
चुपचूप.
हातांत
हात दितात
फाट जाली
घात करतात.
मोग करतात
उमो दितात
उम्यांतल्यान
वीख घालतात.
जेवण दितात
गोडशीं वाडटात
जेवणांतल्यान
गरयो सोडटात
उतरांतल्यान
सोरोप सोडटात
नदरेंतल्यान
तरसादी मारतात.
अिश्टागतीन
खांदार हात
घालतात
कच्च करून
गळो दामतात.
वेंग मारूंक
लागीं करतात
फाटल्यान

सुरयेची धार
तोपतात
पोटांत भितर
खोल खोल
आंतकड्यांनी.
असो हो जागर
तशें म्हजें जीवित.
हांतल्या
सवंगांचो रंग ?
तरेक तरेचो !...
तांबडो
रागाचो
काळो
घाताचो.
बरेपणाचो
चुडटेकोर
बऱ्या कर्तुपांचो
मळबा कोर
खूब थोडो.
च्वडसो
तांबसो काळो
काळसो तांबडो
वा
तांबडो तांबडोच.
तांबडो गुंज !
सगलीं सवंगां
दादल्यांचींच ?
शे शे !...

कांय दादले
कांय बायलो
कांय जाणां
गुणेस्त मोगाळ
बरें चिंतपी
बरें करपी
बरें मागपी.
पुण चडशीं सवंगां
भिरांकूळ...
देंवचार, वाग फुरशीं
कांटमुयो वागोण्यो
कांटे मारपी सांगटां
शेंपड्यो तोपपी वागोळीं
कुसां मोडपी कुसुंडे
नांगी मारपी विंचू
दांत रोमपी काणेर
घोणस घुघमां...
बोब मारपी कावळे
भाले शेंवटुपी साळी
दादले बायलो
तन्ने धाकले
व्हडले जाणटे
म्हाताऱ्यो कोताऱ्यो
मोगाळ, देंवचान्नी
जगांटी
आळावंतिणी
अशीं हीं सवंगां...
असो हो जागर...

तशें म्हजें जीवित.
रात थोडी
सवंगां चड
नाचपी ल्हान
घुमटां व्हड !...
जगांटिचो ठणठणाट
घुमटांचो घणघणाट
कांसाळ्यांचो
किणकिणाट
कचकचाट
समेळांचो
तडतडाट
तरतराट, फडफडाट
घरघर घरघर...
घरघराट...
अेका सारको.
रात थोडी
सवंगां चड
सवंगां भितर
ठिकाणदार व्हड
जागर कांय सोपना
सोंपून सोंपना
सोंपून सोंपना.
व्हडेकार, भयणुली
भाव, तेंडली
बैल, माळीण, चोर
गाराशेर, वळार
तरेक तरेचीं सवंगां...

अेका फाटोफाट
अेक अेक
सोंपून सोंपना...
कान किटले
मन विटलें
घुमटां काय थारना...
घुमटांचो
ढमढमाट आनी
डमढमावचो
हावेस
दोनूय थारना.
दोळ्यांची न्हीद गेली
न्हिदेची रात गेली
रातिची गोडसाण गेली
दोळे कसकसले
सपनां करमेलीं
कलमेलीं अुलगलीं
काबार जालीं...
सपनेवपाची
ओड गेली
दोळे झेमेतात
पुण
न्हिदूक काय मेळना...
जागर सोंपना.
दोळे अुबगले
कान अुबगले
मन अुबगलें
प्राण अुबगले.

खूब पळेलें
खूब आयकलें
खूब भोंगलें
आयकुपाचो
खोस ना
पळोवपाचो
ध्यास ना
माळणी फुलांक
वास ना
वळारा कांकणांक
रंग ना...ढंग ना.
बैलांचीं
शिंगां मोडलीं
व्हड्यांचीं
पोंदां गेलीं
व्हडेकारांचीं
व्हडीं गेलीं
भयणिंचें
भैणपण गेलें...
त्यो जाल्यो
जल्माच्यो
वैरिणी...
पुण
जागर सोंपना.
भावांचीं
मडीं पातळीं
गारासेरांची
तुरमणी तुटली

लिखाणदाराचे
दोंके मोडले
माळणिचीं
फुलां सुकलीं
वळाराचीं
कांकणां फुटलीं
तेंडली झेमेता...
तिका कोण पळेना.
बारूबेन
जीव दिलो
तरीय कोणाक कळना.
कळटल्यांक वळना
जागर सोंपना.
पळेतल्यांचे
दोळे ताठ
तरीय जागर सोंपना
सोंपून सोंपना.
सवंगां खंयचीं
पळोवपी कोण
नाचपी कोण
वाजपी कोण
घुमटांतल्यो...
सडक्यो कोण
चामडीं कोण
तें लेगीत कळना
जागर सोंपना...
घुमटांचो घमघमाट
वाजपी म्हणटा आपलो

चामडें म्हणटा आपलो
मडकी म्हणटा आपलो
जागर म्हणटा आपलो.
खरो कोणाचो
कळना.
कोणाकूच कळना...
जागर सोंपना.
वाजप थारतकूच
नाचपी थारतले
कांय
नाचपी थारतकूच
वाजप बंद ?
दोगूय थारतकूच
जागर बंद ?
काय
जागर थारतकूच
सगलें बंद ?
तेंय कळना...
हेंय कळना...
कांय कळना...
जागर सोंपना
सोंपून सोंपना.
असो हो जागर.
तशें म्हजें जीवित !

पाळें, ३०-३-५९

## मातृशें अमृत

जंय जंय
म्हजे जिणेंतल्या
अधर्मांच्या
म्हासागरांत
हांवें केन्नाय

खंयूय
चुकून जिल्लोसो
मोग केल्लो
दुखेस्त मनशाच्या
तोंडार
जिल्लें हांसप
फुलयलें
पडटल्याक
हात दिवन
मात्सो सांबाळ्ळो
बुडटल्याक
वयर काडलो
उपाशाक
उंडी दिली

शिणलेल्याक
मायेचें जिल्लें उदक
निर्शेल्ल्याक
आशा दिली
काळखांत

धडपडटल्या फुड्यांत
मातशी
पणटी पेटोवन दवल्ली
जंय जंय
म्हणून
अनाथ दळिद्र्यां खातीर
म्हज्या अंतस्कर्णाचीं
घट्ट धांपिल्लीं
फातरांचीं कवडां
अुकतीं करून...

तातुंतलें
चिमटीभर मनीसपण
हांवें वांटलें
थंय थंय
अमृताचे
मळे फुल्ले.

हेरां कडेन
म्हजे जिणेचें
रेब जालें!

वेंगुर्लें, १८-१२-६०

## चंद्राच्या पोल्यार खतां

चंद्रा पुता
साड्डो पळोवन
कोणें तुका
शिंगां लायलीं ?
तुज्या नितळ
पोल्यार कशीं
काळीं काळीं
खतां आयलीं ?

## धर्तरेन अुमो घेतलो

अुमाशेच्या
काळखे राती
धर्तरी म्हज्या
म्हऱ्यांत आयली

म्हाका घट्ट
वेंगेंत धरून
पोल्याक वोंठांची
माती लायली !

पार्ले, २९-७-५९

## आधार सुटलो म्हणटकूच

म्होंवारेचें मेण
कडयत कडटा.
पेटयत पेट्टा.
ओडीत ओडटा.
रचयत
म्होंव सांठयता.

पुण
गोड तें
भितलें म्होंव.

मेणाक
रूच ना.
अुजवाड
दिता ती,
मेणाच्याच आधारान
कांय आसना,
ती वात.
मेण न्हय.

मेण तें मेण
म्होंव तें म्होंव....
मेण तें मेण
वात ती वात....
जशें हें मेण
तसे म्हजें मन.

म्हज्या मनाच्यान
म्हौंव
साठोवं येत
गोड ज़ावं नज.

वातिच्या
आधारान
कडून
उजवाड दिवपाक
वातीक
पालव दिवं येत.
पुण
आपुण जळून
आत्मबलिदानाचो
आदर्श
दिवं नज.

अशें म्हजें मन.
कडपी.
जळपीय बी
अिल्लेंशें
दुसऱ्या बराबर.

पुण तो
आधार सुटलो
वातिचो
कि परतेंय
कडचें सोडटा
जळचें सोडटा

आनी पळेता
जावंक
आसतशेंय
गोठून
घट्ट घट्ट घट्ट.
अशें म्हजें मन !

पार्ले, २८-३-५९

## चिमटीभर प्रीत

तुजी म्हजी प्रीत
सान कुडी येदी
देरवंठ्या भायर
दिश्टूच ना !

वेंगुर्लें, ११-१-६१

## जिणेक सुवादूच आयलो ना

म्हजें मन
जसो मिठा कण.

जिणेच्या
ज्या ज्या गजालींनी
हांवें
खूब थोडें
मन घालें...
त्यो
म्हजे म्हाकाच
अळणी
पचपचीत लागल्यो.

जांतूंत
तें चड घालें
त्यो जाल्यो
खार खार
आगर.

आनी
खंयच्येच गजालींत
केन्ना हांवें
दिस्ताक दीस्त मन
न घाल्ल्यान
जिणेक म्हजे...

आयज मेरेन
सुवादूच
आयलो ना !

पाळें, २९-८-६२

# चवथी वाट मेकळी

कुडिचे रांदनीक
तीनूच फातर.

पोटाचो
बुद्धिचो
‘कामा’चो...

चवथी वाट मेकळी...
प्राणाची वाट मेकळी !
अुज्याची वाट मेकळी !

पार्ले, २९-५-६२

## आतां बेठो फोग कित्याक ?

(मरतल्याचें गीत)

म्हवऱ्यान
व्होंकलेक व्हेली
कुडीन मर्णाक
माळ घाली
आतां बेठो
फोग कित्याक...
नसतो उद्योग
कित्याक ?
नाटकांतलो
सोग कित्याक ?
मळ्याचो असो
भोग कित्याक ?

फोग नाका चंद्रजोती
बाशिंग नाका
माणकां–मोतीं...
जिणेचे दीस
पडले फाटीं
आतां सगल्यो
काळख्यो राती...
जळलें रगत
जळ्ळ्यो काती

आतां कसलीं
नातीं पातीं ?

आतां
म्हाका न्हिदुंदी
बेस बरो न्हिदुंदी
सगळें
विसरुंदी
मसणांत
थारुंदी
मातयेंत
अुरुंदी...

आतां तुमचें
कांय नाका
तेंय नाका
हेंय नाका...
आतां तुमची
याद नाका
हूय नाका
हाय नाका...

पिंडाचें ताट नाका
दर्भांचो, तिळांचो
आमान्यांचो थाट नाका
जिवेपणीं
सगळें पावलें
आनीक लावंची
वाट नाका...

आतां तुमचें
घर नाका
बेस नाका
भाट नाका…
आतां तुमचीं
पक्वान्नां
पातळ नाका…
दाट नाका…

आतां तुमचें
कांय नाका
कांय नाका
कांय नाका!

पाळें, २·४ ५९

## हांव तुळशिचें पान गे...

हांव तुळशिचें
पान गे
हांव तुळशिचें
पान
मोग म्हजो
देवा येदो
जीव जरी
सान गे
हांव तुळशिचें
पान...
केंसर कृष्णा
पांयार पडचें
हांवें फाटीं
हात जोडचे
रात-दीस
ध्यास घेवन
परमळ्ळो
प्राण गे
हांव तुळशिचें
पान.
हांव तुळशिचें
पान गे...
हांव तुळशिचें
पान.

पार्ळे, ७-४-'५९

## दॆंट तुट्टा...?

फुला...
दॆंट तुट्टा ?
तुट्टुंदी.

तोल सुट्टा ?
सुट्टुंदी.

कोणतरी...
सूय रोमता ?
रोमुंदी.

दोर बांदता ?
बांदुंदी.

झॆलो जावन
दॆवा माथ्यार
पडटलें...

प्रसाद म्हणून
वांट्टलें !

पाळें, ७-९-६२

Jantry 20585 - with care..

## हांव आसन थंय अुजो

अुज्या खातीर
जशी रांदन
तशें म्हजें घर.

आयज हांगा
फाल्यां थंय.
कोण रे जाणा
परवां खंय !

कुडींतल्या अुज्याचे
म्हजे पंचप्राण
ज्या ज्या जाग्यार
म्हाका फुलोवंचे आसत

त्या त्या जाग्यार
अुबारिल्ली
चार वणटी फातरांची कास
वा चार मेडी चुडटांची मिरास
म्हणचे म्हजें घर.

ज्या ज्या खिणाक
जे जे ताळ्येर
घोंटेराचे
पडवेंत, माळयेर
वा रानावनांत

म्हज्या मनाचो
पांचवो मोर

रमतलो गमतलो
गायतलो रडटलो
अुडटलो पडटलो
नाचतलो
आनी हांसतलो...

ती ती ताळी
तें तें रान
तें तें गीत
ती ती तान
मेळून म्हजें घर.

वयर मळब सकयल माती
मदीं हांव...
मेळून म्हजें घर.

हांव आसन थंय म्हजें घर
हांव वचन थंय
हांव हांसन थंय
आनी फसन थंय लेगीत
म्हजें घर.

म्हाका काडून अुडय
आनी म्हजें घर !...

आरे,
रांदनिचे फातर...
अुजो नाशिल्ल्या !!!

पाळें, १२-६-६२

## रामाची वाट पळेत....

मिनाक लागून
गोंयांत खरेंच
कितें जालां...
आनी
गोंयच्या फातरांचें
भांगर जावन
खंय लिपलां...
तें
हांव सारकें
नकळ.
मात्...
धा बारा
वर्सां फाटीं
आशिल्ल्या
गोंयच्या
बऱ्याच
भांगरा सारक्या
मनशांच्यो
आयज
खऱ्योच
अहिल्ले भशेन
फातरी जावन पडल्यात !
रामाची वाट पळेत !!

पळें, २१-२-५९

# ज्ञानेश्वर आनी हांव

ज्ञानेश्वर
गिन्यानाचो ओीश्वर
जावन गेलो
हांव मात्
रेडोच अुल्लों.
ज्ञानेश्वरिची
बरवा प्रत
अमके रात
बडवे प्रत
तमके रात
अमकेचीं
अमकीं पानां
अमकीं अक्षरां
अमके दंड
अमके श्लोक
अमकीं रुपकां
अमकीं अुतरां.
दुसरे प्रतींत
तमकीं अुतरां
ज्ञानेश्वर
कोण म्हणटा
अमक्या वर्सा जाल्लो
कोण म्हणटा अशें
कोण म्हणटा तशें
कोण म्हणटा काय

कोण म्हणटा कित्याक
आंब्याचें राय.
हांव संशोधक
आनी ज्ञानेश्वरिचो
अभ्यास करपी
सगल्या वाटांनी
ज्ञानेश्वरिच्या
सगल्या प्रतिंचें
हांवें पठण केलां
पाठण केलां
आनी निमाणें
गट्ठाण केलां.
हातांत मेळतीत
तितल्याय प्रतिंचें.
ब्रहिरट प्रत
धनेश्वर प्रत
निरंजन, पाटांगण
शालिग्राम, गोपाळास्त्रम
सगल्या प्रतिंच्यो...
संशोधकाच्या
कावळ्या नदरेंतल्यान
चोंची मारून मारून
हांवें
वाडयो विदऱ्यो केल्यात
भदऱ्यो केल्यात.
समाजिक नदर
धांपून
तांतल्या

समासिक अुतरांचे
अर्थ लायल्यात.
तांब्या पितळेची
मोड करतात
तशी
अुतरांची "तडजोड" केल्या.
अनुस्वारां खातीर
झगडीं केल्यांत.
तळटिपांतल्यान
सपाट्टून
बिंयां पेरल्ल्यांत
वितंडवादाचीं...
दुसरो ज्ञानेश्वर
जल्मांक येयसर
रणां माज सारकीं.
'चि' अक्षर
आयलां
थंय तें खोडलां
आनी तें येवंक ना
तेन्ना
ताचे खातीर
वाद घालतल्यांच्यो
तकल्यो फोडल्यात.
'अे' काय 'ये'
आनी 'ॐ' काय 'ओ'
हाचे खातीर
बोबो मारून
गाळी फस्ती केल्यात...

म्हज्या हेर वांगडयांक
आनी
खूब फावटीं
ज्ञानेश्वरी बरयली देखून
खुद्द ज्ञानेश्वराक लेगीत.
अनुस्वारांच्या रुपान
सरकारी प्रतींतल्यान
कितलेशे कडेन
हांव
ज्ञानेश्वराच्या
मूळ श्लोकांच्या
माथ्यार बसलां.
तर
श्लोकां सकयल छापिल्ल्या
कितल्याशा
नागमोडी आनी नागडया
रिस्कांतल्यान
हांव
श्लोकां पोंदा
आडवो न्हिदलां !
ज्ञानेश्वरींतल्या सनांची
विसंगती
कुशीक काडल्या
ती हांवें.
पाठां वयले आंकडे
म्हजे.
अध्यायांची जुळणी
म्हाका लागून.

ज्ञानेश्वराचें शुद्धलेखन,
र्‍हस्वदीर्घ,
आनी व्याकरण
सुधाल्लां
(सरकारी प्रतींत !)
तें म्हाका लागून.
हस्तलिखितांचो कसाय
पोटांत गेला
तो म्हज्या.
अितलेंच न्हय
तर
" ळ " अक्षराच्या बदलाक "ल"
अक्षर
खंय खंय आयलां
ताचे वयल्यान
ज्ञानेश्वराची ओढ
' व्यक्तिशः, जातिशः
प्रान्तशः (!) '
" ल "च कडेन
कशी आसली
हें दाखोवन
ज्ञानदेवी
सिद्ध करपा खातीर
ज्ञानेश्वराचे घपशे
आनी वेळ पडल्यार
लज लेगीत काडल्या
ती हांवेंच !
पुण...

हें सगलें हांवें केलां
तें मात्
ज्ञानेश्वरींतल्या
अुतरांच्या अर्थाक
आफडिनासतना.
गिन्यानाक
घसटनासतना.
हांवें
श्लोकांच्या फुलांचे
रंग पळेल्यात
पाकळ्यो मेजल्यात
वजन केलां
पिसटून पिसटून
तांचो बोळ काडला
भितल्ल्या अमृताक
आफडिनासतना.
अेक लेगीत ओंवी
"अणभव" नासतना
"नामा म्हणे ग्रंथ
श्रेष्ठ ज्ञानदेवी...
अेक तरी ओवी
अनुभवावी".
हांवें सगलें केलें
व्हड व्हड संशोधन केलें
पुण
तितलें मात्
करपाक विसल्लों.
ह्या सगल्या

संशोधनाच्या धुमशेणांत
मुख्य तें विसल्लों.
विसल्लों म्हणचे परस
जमलेंच ना
म्हणप बरें...
अेका लेगीत ओंवयतलें
अणभवाचें अमृत चोखूंक
ज्ञानदेवा
म्हाका जमलें ना.
कित्याक,
गिन्यान चोखून घेवपाचें
गिन्यानाचें अिंद्रियूच
म्हाका ना.
ती नदरूच ना रे !
देखून,
हांव संशोधक
आनी ज्ञानेश्वरा
तूं गिन्यानी.
तूं गिन्यानाचो
अीश्वर जावन गेलो
म्हज्या तोंडांतल्यान
वेद वदोवन गेलो
हांव मात् रेडोच अुल्लों ?

पार्ले, ३०-५-६२

## बेस बरेलो तांबडो तुरो

कोंबडेदादा
कोंबडेदादा
बेस बरेलो
तुज्या माथ्यार
आयलो खंयचो
तांबडो तुरो ?...

" सगल्यां आदीं
सदांच उठून
संवसारांत
गावपी हांव

अशी म्हगेली
सगले कडेन
पयस पयस
पावली फाम.

खुशाल भरीत
तेन्ना जावन
सुकण्यांच्या
प्रेसिदेंतीन
आपोवणें धाडून
आपोवन व्हेलो
आपले पालासींत
भौमान केलो.

"प्रेसिदेंतिचें
मेदाल" म्हणून
अपुर्बायेन
म्हाका दिलो.

'को कोच को'
तो तोच हो
बेस बरेलो !
तांबडो तुरो !"

मुंबय, २०-९-६२

## अणुयुगाचो हरी विठ्ठल...*

युगां
कितलींशीं जालीं
निर्माण जाल्यार
आमची सृष्ट.
आनी
तेन्ना पसून
मनीस
घडयत आयला
तिचेर
आपलो अितिहास...

भुगोल
घुंवत रावला...
आनी
मनशांच्या झुंजांनी
वेळोवेळ
ताका दिल्ल्या
कांपऱ्यांक लागून
अितिहास
थरथरत रावला...
भिरकिटत रावला
सॅस्मॉग्राफाच्या...
पाना वयल्या
रिस्कां भशेन.

पुराणयुगा पसून
बद्
गोंयच्या
पुर्तुगेजयुगा मेरेनच्या
मनशाच्या
सगल्या अितिहासाचें
सार म्हणचे
ताचे
ल्हानव्हड झुजांचो
घडघडाट.

सत्याच्या
नांवान केल्ली
अेक अेक लढाय...
मागीर
सत्तेची
अेक अेक बडाय...
आनी
ताचे अुपरांत
सत्यानाश !

दर फावटीं
मातिल्ल्यांनी
मदेल्ल्यांनी...
सत आनी नीत
भाजून खातल्यांनी...
द्रौपदिचे पवित्रतायेचें
सत्त्वहरण

करतल्यांनी...
मातयेक मेळपाचो
हावेस धरतल्यांनीच
युद्धांचे
पयले सत्यनारायण
आडायल्यात.

तरेकतरेचीं
पुराणां कितेनां
सोंपलीं
म्हणटकूच
दर फावटीं
कायजाणांनी
"घालीन लोटांगणा"च्यो
आरती गायल्यात
पराजयाच्यो...

हेरांनी
फोगोटयांचे
माराण लायल्यात
जैताचे...

आनी
दर फावटीं वांटल्या
खिरापत
अक्षोहिणींनी...मनशांची,
दर फावटीं...
निरपराध मनशांची...

मायेमोगान
जियेवंक आशेल्ल्या.

पुजा मांडटना
नांव सत्यदेवाचें
ती सोंपली
कि नांवरूप
सत्ता–नारायणाचें.

खऱ्या सत्यवानाक
ख्यास्त
यमाच्या
अपघाती मर्णाची...

सावित्र्यो बाबड्यो
मारतात हुयेली
कारण नासतना
मनशाचो
अितिहासभर !...

आदीं
रगत घाम दुखांचें
समतेचें पुराण...
मागीर
रंग वंश
जात कात
आनी
हेर भेदांचें...

तरेकतरेच्या
मर्दांचें...
दुश्टाव्यांचें...
न सुटपी
खग्रास गिराण !

---

दर दिसा
अेक अेक बडाय.
दर वीस वर्सांचेर
अेक अेक म्हायुद्ध.
भयांकृत.

मर्दी
युद्धाचीं
तरेकतरेचीं
ल्हान व्हड रुपां...
मर्दी मर्दी
कितलींशीं
मौजेचीं कुपां (Coupes).

---

पुण
अितलेंय जालें तरी...

बडायांच्यो आरती
आनी
ल्ढायांच्या फोगाक लागून
दुखांच्यो न्हंयो
व्हांवून
मनीस-कुळयेचो

म्हासागर
खार खार
आगर
जालो तरी...

सुजलाम् सुफलाम्
धर्तरेचें रूप
बदलून
पुरायेन विद्रूप
जावंक पावलें तरी...

आपली
दर वीस वर्सांनी
अेक फावट
पंचखादय
करून घेवपाचो

मनीसजातीक
लागिल्लो म्हारोग

कितेंच केल्यार
आळाबंदा म्हणून
येना !...

पैर जाल्ल्या
म्हायुद्धाचो अुजो
आजून
सारको पालवलोच ना.

हिरोशिमाचीं चवनां
आजून
व्हांवतूच आसात
यादस्तिचे कातीचेर...

लढायेच्या
मनीसघाण्या कर्तुपांची
भिरांकूळ
याद दीत.

राश्ट्रसंघाची अिमारत
पैर न्हय गा
अुबाल्ल्या !

दुसऱ्यांच्या शेका खाला
कुसत पडिल्ल्या
राश्ट्रांचे
पडहात बाबडे
निकतेच मगा
भितर
सरूंक लागल्यात.

निकते शंबर
भितर
सरता थंय आसात.

चारशें कोटी
लोकांच्या नांवान
आजून

कितलेशे
येवपाचे आसात...

खासावीस
जायत आसात...
ख्यास्ती
काडीत आसात...
आपापल्या राश्ट्रांनी
ह्या
अजापाच्या
घरांत
पावपा खातीर...

गोंय
मेकळें
जाता थंय आसा
भारत
काल मगा जालां.

ल्हान ल्हान राश्ट्रां
निर्बळ
आनी गरीब
आपापल्या फुडाराच्यो
पंचवर्सुको येवजण्यो...
पंचायती राज्यांची
मांडणी करून
आपल्या
गरीब लोकांच्या

पंचमुखांतल्यान
अुलोवपी
पंचपरमेस्वरांक
प्रसन्न करून
घेवपा खातीर
पंचशीलांचेर आधारिल्लीं
सपनां
निकतीं मगा
पळोवंक लागल्यांत !...

आनी अितल्यांत
परतोय बोवाळ...
नवे पुजेचो !

कालच्या फोगान
हुलपायल्या
रखरखीत
जमनींतल्यान
मनीसपणाचीं
चार बेस बरीं
फुलां
परमळचे पयलींच
परतोय बोवाळ ?

काल
" आमीतुमी भाय भाय "
म्हणपी मनीस
तेनसिंगा फाटोफाट

हिमालया भोंवतणी
कसायांच्यो
कातयो घेवन अुबे ?
भावांचे
गळे
कातरपा खातीर !

आनी
तेवटेन
परत्योय
जगांतल्या दोन
व्हडांतल्या व्हडांच्यो
व्हड व्हड बडायो...
चंद्राक
गिरगिरावन अुडोवपाच्यो !

नवे पुजेक
आरंभ जाला...

सत्यनारायण जाले
सत्ता–नारायण जाले
आनी
ते पावनात म्हणून निमाणो आतां
मनीस–कुळयेच्या नांवान
नारायण–बळीक
हांणी
हात घाला...

फुलां नाच
फक्त
फोगूच सांठायला
समारंभ व्हडा दबाज्यान
घडघडावापाक !

व्हडाव्हडांनी
होमाचो आटाप
हे खेप
धल्ला मोटो
आकांताचो.

आनी सृश्टिचो
भू–गोल
ल्हान पडटलो
म्हणून
काय कितें
कोण जाणा
पावयला हो आटाप...
खूप अैसपैस...
अंतराळांत
थेट चंद्रा मेरेन !

पुण
मंत्र तंत्र मात्
तेच.
दोन्ने पोन्ने...
पंचतंत्रांतल्या

काणयांतले.
जनावरांच्या
पंचगंडांचे.
राग, द्वेष, अीर्ष्या
स्पर्धा आनी स्वार्थाचे

जल्मल्या बराबर
सुर्याक
गिळून अुडोवपी
मारुतिच्या
वंशजांचो वंशज
हो मनीस...
आयज
चंद्रा फाटल्यान
लागला.
हात धुवन.

मात्
अितल्याय वर्साच्या
गिनान्यान
मात पसून...
नाकशीभर तो
शाणो जावंक ना
हेंच खरें !

ना जाल्यार...
मनशांच्या
कार्याक

माकडांचे मंत्र
तो
अुपकारावंचो नासलो.

ह्या
तंत्रांतल्यान
सत्याचो नारायण
जगार
कांय म्हळ्यार
कांय केल्यार
प्रगट
जावपाचो
ना.

ॲटमबाँबांचो
फोग लावन
चारूय दिको
लासूं येत.

धर्तरेची पंचारत
पंचम्हाभुतांचेर
अुंवाळून
अूंच अंतराळांत
अुडोवं येत.

मनीसकुळयेची
खिरापत करून
शेकानशेक

पातळिल्ल्या
भोंवतणच्या कॉसमॉसांत
ती रागान, किंवाट्यान
शिंवारून
अुडोवं येत....

पुण...
"घालीन लोटांगण
वंदीन चरणा"चे
शरणागतिचे
नमस्कार, चमत्कार
कांयूच केल्यार...
हे खेप कशेच भशेन...
जावपाचे म्हणून नात.

लोटांगण
घालापाक
अुरतलो कोण ?...

आनी
मनीसजातिच्या
नांवान
पंचगाव्य घेवपाक
अेक मनीस
न्हय अेक पंचपात्र
जंय
अुरपाचें ना...

थंय
होमा अुपरांत
नमस्कार करपाचो
कोणें
आनी कोणाक ?...
देखून...
नवो अितिहास...
" फाटीं अुरिल्लो बळी
सगल्यांचे कानपिळी !" चो
नवो अितिहास घडवपाची गजाल
कुशीकूच अुरूं...
गेल्ल्या अितल्याय युगांचो

अितिहासूच
मनशाक
चाल दवरपाचो
आसत...
ह्या भू-गोलाचेर...
आनी भू-गोल...
आसा त्या जाग्यार...
जाल्यार...
पोत्ने मंत्र तंत्र
साअित्य आनी
अुपाध्याय...
सगलें
बेगोबेग
बदलपाक जाय.
विजे-वेगान.

आनी
मुजरत.
ना जाल्यार..
अठ्ठावीस युगां
कमरेर हात घेवन
मनशाच्यो
सगल्यो करामती
ओगी बसून
दोळे धांपून
पळोवपी
पंढरेच्या
पांडुरंगाच्या
पांयां सकयली
ती
नामनेची विठ्ठच...
अणुशक्तिचें
हें
अेकुणटिसावें युग...
निखालस
निखळावन
अुडोवपाचें आसा...
आनी...
" युगें अठ्ठावीस विटेवरी अुभा "
आशिल्ल्या
पांडुरंगासकट...
धर्तरेक बाबडेक
अंतराळांतल्यान
खंयच्या

वनवासाक
पावोवपाचें आसा
कोण जाणा !...
" पुंडलिक वरदे ह ऽ ऽ री विठ्ठल "
करीत ! !

वेंगुर्ले, २३-८-६२

* आकाशवाणी मुंबय केन्द्राच्या बरेपणान

## अुजवाड नाशिल्लें चांन्नें

चोरांच्या मनांत
चान्नें...
मोरांच्या पांखार
दोळे...

त्या चान्न्याक
अुजवाड ना...
ह्या दोळ्यांक
दीस्ट ना !...

वेंगुर्लें, २६-८-६२

(दुसऱ्या कव्हरा वयल्यान)

हें अुतर भाटांतलें, शेतांतलें,
आगरांतलें, खोंपींतलें.
हें गावड्याचें अुतर म्हणचे
कोंकणी काव्याच्या
जीवसाणिची खूण.
कोंकणी कवी आपल्या
मुळ-पुरसा कडल्यान स्फूर्त
घेता. मुळाक अुदक घालून
नवी जीण पोसता."

✶

र. वि. पंडित हांचे
कोंकणी कविता-संग्रह

१ धर्तरेचें कवन
रुपया ३ : ५० नवे पैशे
२ चंद्रावळ
रुपया ३ : ५० नवे पैशे
३ आयलें तशें गायलें
चार रुपया
४ म्हजें अुतर गावड्याचें
चार रुपया
५ अुरतलें तें रूप धरतलें
चार रुपया



पॉप्युलर
प्रकाशन

**र. वि. पंडित**ः—अखिल भारतीय किर्तिचे फोटोग्राफर आनी नामेनचे बरोवपी. जल्म गोंयांत. मुळावें शिकप गोंयांत आनी वयलें शिकप पुण्यांत जालें.

१९४१-५४ ह्या काळांत भारतांतल्या कांय नामेनेच्या इंग्रजी आनी खुबशा मराठी नेमाळ्यांनी तांगेलें फोटोग्राफी, गोंयची जीण आनी संस्कृताय...ह्या आनी हेर विशयांचेर वैचारिक आनी ललित बरप अुजवाडाक आयलें. इंग्रजी आनी मराठी कवितायं अुजवाडाक आयल्यो. खेरीज, ह्याच काळांत प्रेस फोटोग्राफर आनी खास बातमीदार म्हणून ते वर्सभर महात्मा गांधिच्या सहवासांत अुले.

ह्या काळांत तांणी घेतिल्ले गांधिजिंचे शेंकड्यांनी फोटोग्राफ भारतांतल्या बहुतेक सगल्या भासांतल्या नामनेच्या वर्तमानपत्रांतल्यान अुजवाडाक आयल्यात. लाखांनी घरांनी पावल्यात.

फोटोग्राफिच्या अखिल भारतीय स्पर्धांनी तांकां कितलींशीं बक्षिसां मेळ्ळ्यांत. १९४८ त गांधिजिंच्या फोटोंच्या प्रदर्शनांत पयलें बक्षीस-गोल्ड-मेडल मेळ्ळें.

१९४९ त, गांधिजिंचो ज्या ज्या संस्थां कडेन संबंद आयलो त्या त्या संस्थांचें आनी गांधिजीं कडेन संबंदित अशा गुजरात, काठेवाडांतल्या म्हत्वाच्या स्थळांचें छायाचित्रण करपा खातीर श्री. काका कालेलकरांनी तांची निवड केली.

१९५० ते १९५४ मेरेन कै. पू. साने गुरुजिंचें आंतर-भारतिचें सपन साकार करपाच्या हेतान तांणी "भारती" मराठी नेमाळें पांच वर्सां चलयलें.

१९५२ पसून तांणी कोंकणींतल्यान बरप सुरू केलें.

१९५४ ते १९६२ ह्या काळांत रचिल्ल्या काव्याचे कांय अप्रुप नमुने '**आयलें तशें गायलें**', '**म्हजें अुतर गावड्याचें**', '**अुरतलें तें रूप धरतलें**', '**धर्तरेचें कवन**' आनी '**चंद्रावळ**' अशा पांच काव्यसंग्रहांच्या रुपान आयज वाचप्यां मुखार येतात. फोटोग्राफी आनी लोकसाहित्य हे तांचे मुखेल छंद.